# नवतरंग

(कोंकणी सान काण्यो)

पी. गोपिनाथ कामत



केरळ कोंकणी अकादमी

कोच्चि

*Navtarang*
(Konkani Short Stories)

By
P. Gopinatha Kamath
"Gomandak", #44 J.P. Nagar
Perunthanni, Thiruvananthapuram-695008
Kerala
E-mail: gopinathakamathp@yahoo.co.in
Tel : 0471-2451731/Mob.9446541731

Published by
Kerala Konkani Academy
Cherlai, Kochi-682002



Printed at
**Bhanu Offset Printers, Tvpm.**

Cover photo by:
R.V. Madhu Bhatt Photography
Tvpm.

First Edition:
January 2018

Price: Rs. 90/-

# रीणाचीं उत्तरां

हांव सान काणियो 1973 वर्ष थाकुन बरोंवचाक प्रारंभ केल्लो । 'कोंकण जनता', 'सारस्वत वाणी' आनि 'स्पंदन' मासिके वाटेन चड बरोंवचे प्रचोदन माका जाला । दिकदेकार थाकुन मनांत मेळ्चे अनुभव आनि प्रश्न मागेल काणियां वाटेन वाचपयांले मुकार हाजिर करनु तांगेलो अंगीकार आनि आदर मेळचांत माका भो आनंद दिसता । गोंयांचे 'जाग' मासिक 2009 दीवाळी आंकांत मागेल एक काणि छापुन आयला । तें एक वरदान जावनु हांव लेकतां ।

णव काणियो एकडे केलेल हे 'नवतरंग' पुस्तकांत, माका 'वैशणवरत्नं' पुरस्कार फाव जालेलि कथा 'तो मुक्त जालो' नंतना तिरुवनन्तपुरम श्री अनन्तपत्मनाभा देवळातुले प्रतिष्टे पासुन, थांगा गर्भग्रहा पोंदाक देकुन मेळेल मोलादिक भांडाराचे पासुन 'अपूर्व प्रतिष्टा' ही कथा समावेस केल्या ।

हे पुस्ताकचि प्रस्तावना दिलेल प्रसिद्ध कोंकणी बरौपी श्री शरतचंद्र शेणै हांचे लागि हांव आभार मानता। पुस्तकाचे रंगीत मुखचित्र दिलेल चित्रकार श्री आर.वी. मधु भट (इनफ्रेम डिजिटल्स) हांका हांव उपकार सांगता।

हे पुस्तकाचे प्रकाशनांत पालव दिलेल्या श्री कृष्णकुमार (कृष्णा डि.टि.पि), श्रीमती चित्रा गोपकुमार (विघ्नेश्वरा डि.टि.पि), आनि मुद्रण केलेल्या भानु आफसेट छापखान्याक हांव आभार प्रकट करता ।

अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचे 31-वे अधिवेशनांत हे पुस्तक प्रकाशन करुक जालेलांत, परिशदेंचे संघाटकां लागि हांव आभार मानता ।

जय जय कोंकणी ।

पी. गोपिनाथ कामत

# ध्येय तेंच श्रेय

केरळचे अनुग्रहीत कोंकणी कथाकार श्री.पी.गोपिनाथ कामत हांगेलो हो तिसरो कथासंग्रह। केरळांतुल्या कोंकणी साहित्यरंगार कथाकारांचो उणाव नासत तरीय कथापुस्तकांचो उणाव आसाच। तसलो उणाव ऊणे करचे दिशेन हें एक बरें योगदान । ताजे भायर हो कथासंग्रह ह्या रंगावेलो एक मैलांफातर म्हणूय सांगूयात । तीन कथासंग्रह उजवाडावपी केरळचे एकमात्र कोंकणी लेखक हे! तेंवय एकच एक दशकाच्या वेळान!

चार दशकां आदी 'कोंकणी कथाष्टक' (1978) आनी 'काण्यां घोस' (1979) अश्या प्रातिनिधिक कथासंग्रहानी हांगेल्यो आद्यकाल कथा उजवाडा आयलेल्यो । ते तरणे प्रायेरीच हांकां अखिल केरळ तलावेल्या कोंकणी कथारचना मत्सरांत प्रथम पुरस्कारूय मेळ्ळोलो ।

जाल्यार हांगेलोच म्हूण एक कथासंग्रह उजवाडा आयलोलो 2008 वर्षा - 'काण्यो, घरा घराच्यो'। ताचें प्रकाशन जालेलें अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचे 26 वे अधिवेशनाचे माचयेर, कोचींत । मागीर हांगेलो दुशेरो कथासंग्रह-'सप्तसरणी' 2010 वर्षा उजवाडा आयलो, आनी ताचें प्रकाशन जालें अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचे 27 वे अधिवेशनाचे माचयेर, गोंयांत ।

ते मदीं 2009 वर्षा हांकां केरळ कोंकणी अकादमीचो 'पंडरीनाथ भुवनेन्द्र' पुरस्कारुय प्राप्त जालो ।

हांगेल्या प्रथम संग्रहांत धा काणियो आशिल्यो जाल्यार दुशेर्या संग्रहांत सात काणियो । आनी आतां ह्या संग्रहांत आसाय णव काणियो। म्हणूनूच हाचें नांव 'नवतरंग' म्हूण दवरल्यां ।

अशी फाटल्या चाळीस वर्षांनी कोंकणी कथा साहित्याक इतलेंच योगदान मनापासून दिवपी लेखक ह्या केरळांत तरी भोव थोडे । अशी

केरळच्या कोंकणी साहित्यचरितांतु हांका विशेष स्थान आसा ।

हांगेल्या कथांविशीं सांगतना ह्या गेलेल्या काला विशींय सांगुका जावन आसा । जावन गेलेल्या चार दशकांच्या काळान आमच्या सगल्यांच्या जीवितांत खूब खूब परिवर्तन आयलें । परणें कितलें गेलें आनी नवें कितलें आयलें म्हूण सांगूक जायना । जीण बदल्ली । वीक्षण बदल्लें । विचार बदल्लें ।

ह्या काण्यांतूय ह्या सगल्यांचें प्रतिबिंब दिसता । काल्पनिक उणे जाल्यां, आनी वास्तविक चड जाल्यां । सांगपाच्यो काणियो गेल्यो, समजुपाच्यो कथा आयल्यो । गेलें तें सिंहावलोकन, आयलें सूक्ष्मावलोकन ।

वेगळ्या वेगळ्या वाठारांनी वांटून गेलेल्या कोंकणी जनांक ह्या पुस्तकांत एक आगळो वाठार दिसतलो । दूरच्या आपल्या भांवडांली वळख मेळतली । हेंच आसा ह्या कथांचें ध्येय आनी श्रेय ।

आशंसापूर्वक,

शरतचन्द्र शेणै

# दोन उत्तरां

श्री गोपिनाथ कामत कोच्चीन्तु जन्मा आयलोलो आनी ISRO तु कामान्तु आसीलो दिक्कुन तिरुवनन्तपुरम राबुन आसा। सुमार मासिकेन्तु - सारस्वत वाणी, कोंकण जनता, स्पन्दन - आदी बोरोव्नु एत्तालो 1973 थाकूनूचि । केरळ कोंकणी अकादमी लगी त्यांचो व्होडू सहकार त आसा । तांचे कणियांचो पुस्तक (1979) केरळ कोंकणी अकादमीन उजवाडाक हाळ्या ।

गोपिनाथ कामत एक अनुगृहीत साहित्यकार - कोंकणी अकाडमीले पंडरिनाथ भुवनेन्द्र पुरस्कार (2009) - हांका फाव जाल्या। 2008 वर्षा तांगेले 'काण्यो घरा घराच्यो' कोंकणी अकादमीन उजवाडायलो। 2010 वर्षा 'स्पतसरणी' नावारी एक काणियां पुस्तक उजवाडायलो अस्सा।

अत्तां ह्यो काणियां संग्रहु उजवाडाक हाडचाक व्होड सन्तोष अस्सा । 'तो मुक्त जालो' आनी 'आमि सग एक' म्हळेली काण्यो व्होडि चांगी अस्सा। मुक्कारियि गोपिनाथ कामत जायते साहित्य कोरुक प्राप्त जावो म्होणु प्रार्थना करताय ।

जी.मोहन राव

सर कार्यदर्शी

केरळ कोंकणी अकादमी



आर.पत्मनाभ कामत



कलावती बाय

मागेल प्रिय सर्गेस्त माय-बापालो उडगास करनु हो कथापुस्तक भक्तीन समर्पण करता ।

पी.गोपिनाथ कामत

# मंडावळ

# 1
# तो मुक्त जालो

डें, डें, डें ..... घरा लागिचे विघ्नेश्वरा देवळांतुली घान्ट आयकीलि। हांव छठ जावनु निदांत थाकुन उठायलो। तवळ वरां पंचड जालेल आसूका, केदानाय हे वेळार ती घान्ट आयकून जांवका हांवे जागो जांवचाक।

निदेवनु पळेली मांदुरि कवळून हांव बेसलो, सकाळीं जागो जाल्यार होगि उठावनु वचाक एक अळसाय।

केळकार फालें जावनु उजवाड एत्ता मात्र। कूडांत आसिले पंखा राबेयले देकून अंगांत थाकुन शेको एत्ता। जाल्यारीय जनेर्लातुल्यान शेळ वारें भायर सून मारनु थंड दिसता। पावसा मोड भी आसवे म्हूण कळचे बगेक हांव बागिल वगते करुन भायर चोयलों। फलफल्यार उजवाड एंवचे वेळार पर्मातुले रुकांचेर बेसले कायळे आनि इतर पक्षियो हांव शब्दु करुन चोंवचे देकुन उबुन धावलीं।

हांव दांत घासूक नाणियांत चळों। दफतरांत थाकुन निवृत जालेल उपरांते कायरीं जावनु कांय करचे ना जाल्यारीय, सकाळीं उठावनु नित्य कर्म करका नाकवे? मागिर घरकडचे अवश्याक आसिले जिनस हांवेच बाजारांत थाकुन दाम खर्च करुन हाडचे। ते बगेक आसिले लिस्ट मागेल बायलेन बरोवनु दवरलेल आसतलें।

मागेल न्हाण जावनु, फळारु खावनु, हांव तेदुसचे वृतांत पत्र चोंवचाक हाथांत काळे मात्र, तवळ बायलेन माजे लागि सांगले।

'ऐचंय, तुमि केदाणकी बाजारांत वत्तले ? मस्त सामांन घेवनु

हाडचे आसा, हांवे लागि येंवका वे?'

'नाका, नाका। तूं येंवका नाका। तूं घरकडेच बेस। तूं आयलार, हांव तुकाय लागेन पळोंवका जातलें, खंय खिठांत वाट विसरुन गेल्यार, तुका घरकडे एकलीच परतुन येंवचाक वाट कळना नवें?' हांव जाप दिल्ली।

आज पर्यन्त हांव घरांतुले अवश्याक भायर देंवतय, मागेल बायलेन निमगूचेय, हांवे तिलागि सांगुचेय उत्तरां तं हीं । हे गावांत पोरदि करुन मस्त वर्स जाली जाल्यारीय, तिका एकलीच भायर देवनु संवय जालेना।

हांव मागेलि बाण्डी काणु घरकडे थाकुन देवलो। बाजारांत पावनु, सामान घेवचाक शुरु केले मात्र, तवळीच बायलेले फोन, मोबैलांत। हांव अंगडींतु सुरक्षित पवलोवे म्हुण कळुक केवल तीणे फोन केल्यां। नंतना दूसरे कांय ना तिका उलो दिंवचाक। हांव जाप दीवनु तवळीच फोन बंद करुन दवरले। न्हय जाल्यार, तें अनिकय बेल वाजूनूच आसतलें। माका किरकिर जातली ताजान।

घरकडे थाकुन देंवचे वेळार, केदनाय मागेल बायल मोबैल फोन विसरुन नातिले मागेल हाथांत हाणु दित्तलि। खंय हांव गेलारीय उलो दीवनु संपर्क करुक एक हादि तिगेली। म्हळार माका तें हाथांत धरून चमकूक अळसाय तं। किशांत दवरुन चमकूया म्हूण आठेयलार, कीश जड जावनु एक दिकार लांबून आसतलें, मागिर बाण्डी धांवडावनु आसिले वेळार कोणेय उलो दिलार, ती एक अडचणी।

आज गावांत मोबैल फोन नातिलीं कोण आसूना म्हूण दिसता। शाळेंत प्रैमरि क्लासांत शिकचे चेरडुवाले हाथांत, रोडार जाडचे मनीशांले हाथांत पर्यन्त, इत्तें सांगता आज भीक मागूक एंवचे

जनालागिय, तें पावल्यां। ताजान एकेक तराचो उपयोग, गुण दीस मुकार वत्ता तशीच चड प्रचार जावनु एत्ता। ताजो घेवपी गावांत लेका भायर जल्ला।

हांव बाजारांत थाकुन जिनस सग घेवनु परतुन मागेल बाण्डींतु चणु बेसलो। लेखान मुकावेलान दाळि रंगमाम माजे लागि पावलो।

'इत्ते रंगमाम, घरकडे वचाक जाल्यार कारार चड, हांव सोडीन' हांव सांगले।

'नाका, माका आतां घरकडे वचुन कायरीं ना' तागेली उत्तरां। म्हळार तागेल तोंडार एक दुःख भाव केदनाचे मात्रीन।

हांव आठेयलेलतं उलो दिलारीय, रंगमामान माजे कूटांत एवना म्हूण। हांवे फूडेच मस्त फंता रोडार दवरुन ताका देखलो आसा, कूटांत एंवचाक अपेयलोलोय आसा। म्हळार रंगमामान कोणालागि एकडे जावना। केदनाय एकलो मात्र जावनु तागेलि भोंवडी।

इत्याक तो मनीश कोणाक इष्ट जायना, कोण ताका संगाति जावनु ना? तागेल पासून कायरिं जावनू निमगून कळका म्हूण माका दिसले। तलागीय निमगूया म्हळार, तो लागि खंय राबून नतिलें चमकून गेल्लो।

ते वेळार दूर थाकुन कोणकी माका देखुन हासून राबला।

'हां, तुंवे शयबा, माका कोण म्हूण छट जावनु मनां गेलेना' हांव सांगले।

आमगेले घराचे मागलान सोरोपा परमांतु राबचो मोड्वोळ रामु मागेल हाथाक धरनु हासिलो।

'अगा तुगेले उपरांटे जावनु आता गेलेल मनशाक तूं वळकत नवें, दाळि रंगमामाक। इत्याक तो केदनाय मुंगो जावनु कोणाचे लागि कांय वर्तमान, सहवासु नातीले, दीस भर तागेल तोंड दुःखानच दिसता' हांव रामु लागि निमगीले।

मागेलि जाप आयकुचो तोडोव, मोडवोळ रामुन रंगमामालि काणि सांगूक प्रारंभु केली।

गांवांत लोखंडा ब्यारि रंगमामाक वळक नातिलीं कोण आसूना। व्हड बंगलाव जावनु कुशाल दामु तागेले थर्वाडार आसिलो। ताजे लागि एवनु मागणीं करचे गरीब लोकाक तो हाथ सोणु सहाय करतालो। कोणाक तो रित्ते हाथान परतुन पेटयना आसिलो।

ताका ब्हारडिकेक सोयरीक सोदून तागेल माय बापान हाडचे फूडेच, रंगान एक निर्णय तागेले जीवितांत काळो। उपजीवनाक प्रयास आसिले एक कुटुम्बार थाकुन सुंदर एक चेल्लेक ताणे ब्हारडीक करुक निश्चय केल्लो। गावांतुलेच बीमुक बिठळालि तिसरि धूव जयन्तीक। कष्ट काणु बीमुक विकुन दीस काडतालीं तीं। देणें कांय घेवनु नातिलें, व्हारडिकेचो खरचु ताणेच काळो। ते पसावत गावांतुल्यानि तागेले चांग मनस्थितीक वंकाणसिलो।

लोखंडा ब्यारांत रंगमामाक सहाय करुक तागेलो आत्ममित्रु आनि सजारि माधवु आसिलो, शाळेंत तीं दोगंय एकसानि शिकीलीं। माधवु क्लासांतु बुधवंत आसिलो। शिकोवप्यानि ताका केदनाय स्तुति करतालीं।

शिकवण जावनु कुटुम्बावेलि आस्ति काणु एक ब्यारु रंगमामान प्रारंभु करुक, ताजो निर्णय काडूक माधवाकय तांतु हाथ आसिलो। ते उपरांते तकाय ब्यारांत कूट रंगमामान काळो।

ब्याराची दरवर्सा लेक बरोंवचे दंद, तीं लेक उंचार अधिकारयांक पेटोंवचे जवाबदार काम माधवाले हाथांथ दिल्लें। तें देकुन रंगमाम ब्यारार मात्र मन ढवरुन आसिलो। माधव तागेलो एक विश्वस्त संगाति नंतना तागेले कुटुम्बातुलोच एकलो जावनु ताणे लेकलो। ब्याराचे बगेक माधवान केदनाय घरकडे एवप आसिले देकुन, रंगमामालि बायल जावनूय ताका चड वळक जालि। रंगमाम घरकडे नातिले वेळारीय माधवान थांगा एवनु तिका पळोवप आसिले। ताका खाण उदाक केदनाय रंगमामाले घरकडे थाकुन बायलेल हाथानच जालें। सग कारणान माधवु आनि रंगमामालि बायल मजगतीं थोडो मोग वडूक कारण जालें।

एक दिवसा बिक्रि टाक्स अधिकार्यानि रंगमामाले लोखंडा ब्याराचे अंगडीन्तु गुपीत जावनु एवनु रेड केलें। लेकार नातिले मस्त वस्तु अंगडींतु ताणीं देखलें। तशीच भायर बिक्रि जावनु गेलेले मस्त सामान बिल नातिलेंच बिक्रि करुन दामु केलोल जावनु ताणीं सोदून काळें। टाक्सार फटवण केलेलि जावनूय ब्यारांत दुर्यपयोग जालेल जावनूय आरोपण करुन ताणीं अंगडि सील करुन गेल्ले।

बिक्रि टाक्स अधिकारि जन अंगडींत रेड करुक एंवचानिक, तवळ पर्यन्त रंगमामाले एकसान ब्यारांत जांवका जालेल सुचोणी दीवनु ताका फाटिबल दिलोलो माधवु स्थलार थाकुन बुडोलो। ताणे रंगमामाले लोखंडा ब्यारांत लेकार नातिली फटवण करुन, दाम दुर्यपयोग केल्लो।

रंगमामालो मोगाचो संगाति जावनु ताणे लेकिलो सेजारि माधवु बीस लाख रुपया दुर्यपयोग केलोल जावनु सोदुन काडूक जालें।

ब्यारावेले नष्ट नंतना, दूसरो एक आघात लागेन रंगमामाक जालो। माधवु रंगमामाले बायलेकय घेवनु गांव सोणु निपुन गेल्लो। तीं खत्तय, केदाण गेल्लीं म्हळेल कोणाक कळ्ळेना।

पूलीसान केस काळें। निपून गेलेले दोगानेय फोटो छापुन, तांका गांवगावांत शोध करुक पूलीसान काळेले प्रयत्नाक कांय परिणाम मेळेना।

तशि रंगमामालो लोखंडा ब्यारु फुटलो। ब्यारु नष्ट जालोल नंतना, तागेले बायलेल वाटेनय ताका घातकु दिसलो। ताणे आज भित्तर मनांत आठोंव नातिलि फटवण आफेत्या मात्रिन जीवितांत आयलेल असाधारण संभव कारणान, रंगमाम अस्वस्थ जालो। आनि कसि वचूका म्हळोलो एक प्रश्नु तागेले मुकार आयलो। ताका पिशें लागेला मात्रिन जालें।

म्हळयार नागेले मुकावेले जीवित ताणे धैर्यान काळें। असलि चूकि आनिकय जांवचाक संदर्भ एंवचाक पाडना म्हूण ताणे दृड निश्चय काळो। ताजे उपरांते तो कोणाचे लागि दोस्ति नातीले वत्तालो।

मोडवोळ रामून उतलेंच सांगुन राबोंवचाक, माका रंगमामाचेर सहताप दिसलो। तागेलो अनुभव देखुन हे कालाक कोण हाथ सोणु एकलाक सहाय करतलीं आनि अपण्याले ब्यारांत सहायाक काडतलीं म्हूण माका दिसलें।

इत्तेंय जावो, माका रंगमामाक देखुन उलोंवचाक आनि माजान जांवचे लेकान तागेले मनांतुलो प्रयास उणे करुक, ताका बरें जांवचाक श्रम काडया म्हुण दिसलें। कोण की ताजे लागि केलोलो अन्याय दूर करुक चोवया म्हूण आठोवनु हांव हेरदुसाच तागेले घरकडे गेल्लो।

व्हळ्ळे घर जाल्यारीय भित्तर चडूक हांव थांगा देखले चित्र विचित्र। कूडांत हांगथांगा सामान अयोग्य रीतिर दवरल्यां। कूड साफ करुन एदेच दिवस जालेल आसुका। एक दिकान धूळि लागले मेजार पुस्तक पातलावनु घल्लाय। एक अनाथ घरकडे चणु आयलेल मात्रिन

दिसले माका।

हांव आयलोल शब्दु आयकून रंगमाम खांन्दयार एक अंगुटीय घालनु मुकार आयलो। ताणे माका भित्तर अपोवनु व्हरनु तागेले कूडांतु बसेयलो।

ते कूडांतु मुल्याक तागेले व्हारडिकेचे फोटो फ्रेम करुन लांबेयलेले देखुन हांवे निमगिले।

'रंगमाम, तीवे तुमगेलि धर्मपत्नि? हांव तिका देखलेल जावनु चांग परिचय दिसता म्हु!'

'हांव जयन्तीक व्हारडीक केलेले वेळार काळ्ळे चित्र तें। तीणेय मागेले दंदाचो माधवानय करुन माका घातकु घल्लो' उतलेंच सांगुन रंगमामाले दोळयांत उदक भरलें।

'रंगमाम, तुमचे लागि माधवाले चित्र आस की?' हांवे निमगीलें।

'आसा, ताणे मागेल ब्यारांत फटवण करुन निपुन वचाक, पुलीसा वाटेन ताका सोदुन काडूक तेदुस दिलेले एक फोटो हांव दाकेयन' उतलेंच सांगुन रंगमाम भित्तर वचुन, एक लेकोटांत दवरलेल फोटो हाणु माका दाकेयलें।

ते फोटोवेले तोण्ड देखुन माका वळक दिसली। कोण म्हूण हांव आलोचन केलेल उपरांते छठ जावनु माका उडगास आयलो। हांव सेलम बेंकाचे ब्रांच मानेजर जावनु आसिले काल बेंकांत थाकुन आस्थि धाण दवरुन दाम रीण काडूक तेदूस माका मेळूक आयलोलो तो। तवळ तागेले कूटांत आयिलि कुलीन स्त्री जयन्तीच आसिलि। आतां पूर्ण

जावनु तागेल पासुन मनां जालें। ताणे एक भवन थांगा मोलाक घेवनु लोखंडाचो ब्यारु सुरु करुक तेदूस बेंकांत आयलोलो। तागेले ब्याराचे लेक हांव बेंकांत थाकुन निवृत जांवचे पर्यंत सेलम बेंक ब्रांचांतूच आसिले।

हांव हो कळोवणी रंगमामाचे लागि सांगुक, ताका अतिशय आनि उणे आश्वास जालो म्हुण दिसता। गेल्ले बीस वर्सी पूलीसाक गांव सगळे वेंचुन काणु कांय परिणाम मेळनातिले केस।

हांव तुरंत माघवान सेलम राबचे पत्तो मागेल पुर्विचे बेंकातुले एक संगाति वाटेन घेतलो। तागेले ब्याराची बेंकात दवरलीलि आस्तीचे पासून कळोवणीय एकडे करुन हांवे रंगमामा लागि दिल्ली।

रंगमामान तुरन्त पुलीसाक मेळनु तागेले हाथांत मेळेले खबर तांचेलागि दिंवचो तोडोव, ताणी एक पूलीस टीमाक गोपनीय जावनु सेलम गावांतु पेटयले।

पूलीसान सीधा सेलम बेंकांत वचुन माधवान ब्याराचे वाटेन थंगा भरलोलो दाम आनि इतर आस्ति सील केली। उपरांते माधवाक गिरफतार करुन बंदखणींतु घल्लो।

जयन्तीक आनि तांगेले एक धूवेक रंगमामान दय करुन आश्रयस्थान दीवनु तागेले घरकडे हाणु राबेयली।

केसाचे मुद्दो आनि समर्थन लेकान काणु, माधवाले नावान आसिलि आस्ति सग रंगमामाक परतुन दिंवचाक निर्णय जालो। तशी ताणे तागेलो लोखंडा ब्यारु एक लागेन चांग नमून्यार प्रारंभु केलो।

तेन्नाच्चान मंद जालेले रंगमामाले जीवित फुडेचे मात्रिन उत्साहान मुकार गेल्लें। तागेले जीवितांत तो मुक्त जालो।

# 2
# देनपाराचो सोयरो

कोणकी घराचे बेल मारनु उलदूचे आयकून हांव नीदांत थाकुन जागो जालो। आयतार देकुन देनपाराचे जेवण करनु सुखान एक नींद काडूक दोळो धंपिले मात्र आसका हांवें। भायर वोत वचुन पावसा मोड दवरल्यां । तें देकुन देनपारा दिसूचि हुनसाणि घरां भित्तर ना।

सकाळीं थाकून घरांतुले गेले वारांतु अवगड जावनु रजा दिवसा करुक दवरलेले दंद सग आज पूरा करनु थकप जालें माका। नंतना साधारण हांगा दंद करुक एंवची दंदाचि बायल बेबि आज आयलीना आसिली। ते पसावत मागेले घरकार्नीक हांवे सहाय करका जालो। तसि पुरपूरो जावनु, भोजन जावनु निदेंवचाक दोळे पळेले वेळार तं कोणकी आयल्यां।

मागेलि बायल रांदपाचे जिनस घेवुंक जेवणाचे उपरांते सान्तांतु गेलेली। म्हळ्यार तीणे थांगा थाकुन परतून पांवचाक समय जालोनामु। मागिर कोणकी हे देनपाराभायर मनीशाक उपद्रव दिवंचाक देर्लांत आयल्यां। हांव हेंच मना आठोवनु घालेली न्हेसवणेनच मुकार गेलो आनी कवाड वागतें करनु चोयलों।

दोग - तेग जाण माका नमस्कार सांगुन देर्लांतु राबिल्याय। तांगेले कूटांत एकलाले तोंड देखुन मात्र उणे परिचय दिसलो, म्हळ्यार हांवे कनडेक दवरलेना आसिले देकून, तें कोण म्हूण मना जालेना।

वळक नातिले मनींशांक घरांत चडोंवचाक भींवका जालोल काल हो । तेंवय घरांत अन्य कोण नातिले संदर्भारि भितर एवनु फारूक गोंवटो चिरडीलार हांव बोबाळ घालचे आयकून धावनु एवचांक घरा

परमालागि दूसरे कोण ना। मागिर तांतुले एकलाक परिचय दिसलांत आश्वासु।

'भितर एवनु बेसा, हांव अतां पावलो' उतलेंच सांगुन हांव भित्तर कूडांत वचुन तोण्ड शेळ उदकान घूवनु मागेले कनडेक घेंवनु परतुन फिदरांत ताणी बेसले कडे आयलो।

कनडेक दवरुन चोंवचाक, फफळा ब्यारी गुरीडु वेंकटेशमाम मुकारीच माका चोवनु हासुन बेसला।

हे गावांत गुरीडु वेकटेशमामाक वळक नातिलीं कोण आसुना। केदनाय खदराचे आवंगालें न्हेंसूचो। सहज देशाचे बगेक, जनाले चंगपणा बगेक, कोण नातिले कष्ट काडचे खालचे अनाथ वर्गाचे बगेक, मुकार एवनु बरें प्रवर्तन करचो एक मान्य मनीश । व्हड एक थर्वाडावेलो तो, तागेले सेवन जनाले चंगपणाक दीस भर करचे बगेक, क्रमाक्रमान ताणे कुडुंबावेलो फफळा ब्यारु राबोवनु उणे वर्स जालीं। गावांत दिकदेकार आसिले सगटय संस्थेचे समितींतु वेंकटेशमामालें नांव मुकार आसतलें । सर्व कार्याक जनांक ताजेर व्हड विश्वास जालो ।

हांव वेकटेशमामाक वळक जावनु जोड वीस वर्स चड जालेलि आसूका। आमी दोगंय एकडे जावनु वर्स फूडे मस्त सामाजिक प्रवर्तन केलेलें माका आजीय उडगास आसा। तेदूस आमी आठेयलेले मात्रिन कांय परिणाम आमगेले प्रवर्तनाचे वाटेन देखलेना। एकेक घरकडे वचुन संपर्क करनु, योग्य रीतीन प्रचार करनु, आमगेले समाजाचे गिरेस्तकाय वडुचे बगेक उपदेश घेवनु, तांतु चिंतन करनु, ताका संझुचे परिहारु देखून निर्देश दीवनु एताले आमी। म्हळयार, छठ जावनु कोणालेकी झगडपान तें प्रवर्तन आमका राब्बोंवका जालें। उपरांते, आमी दोगंय दोन वाटेन गेलीं। तो वेंकटेशमामु आज मागेले देरलांत, मागेले घरकडे आयला।

'हां, इत्तें वेंकटेशमाम, मस्त काळ जालेमू हे देकार मेळनु, इत्तें विशेष? कसी चमकता तुमगेले सामाजिक प्रवर्तन?' हांवे मायेस्त रूपान ताजे लागि जाप दिल्ली।

'तेच बगेक आमी हांगा आयलाय, माजेलागि हे, एकलो धर्मपुरम मंजुनाथ, अनेकलो सच्चिदानंद.' वेंकटेशमामान तांगेल परिचय केलो।

दोंगांचेय पासुन वेंकटेशमामान एक चरित्रचि सांगलें, 'तंजावूर ग्रामांतु ताणी मुकार सरनु एदे वर्स फूडे रूपीकरण केलेलें चारिटबिल ट्रस्टाचे वाटेन मस्त जनांक उपकार जावनु, तांका उंचार हाडूक जाल्यां। थांगाचे सरकाराली मान्यता ट्रस्ट प्रवर्तनाक मेळनु, आज एकेक वर्स तांगेले सग येवजणाक, सरकाराचे लागि थाकुन खुशाल दाम ग्रान्ट जावनु मेळनु एत्ता ।

वाट सोडनु वचे गरीब कुडुंबावेले चेरडुवांक पोसको घेवनु राबोंवचाक एक जागो, तांगेले शिकवणेक धनसहायु, वर्स प्राय जालेले अनाथांक संरक्षण करुक मंदीर, खोंपियांत निर्धन जावनु राबुचे कुडुंबावेले चेलियांक व्हारडीक करनु दिंवचाक धनसहायु, इत्यादिक प्रवर्तनाचे वाटेन मस्त युवकांक एकडे करनु एक व्हड चळवळ आज हे ट्रस्टाचे वाटेन तांगेले गावांतु तांका हाडूक जाल्यां। नंतना कोण नातिले गावांतु हेंडप करनु कष्ट काडचे लोकाक वेंचुन काड्नु तांका अनाथ मंदिरांत राबोवनु, तांचान करुक जांवचे दंद शिकोवनु, ते दंदान मेळेले मानधनान उपजीवन काडूक तांका प्रचोदन दिल्यां । आंवय भुंयचेर आमी सग एकमळेन राबल्यार आनिकय मुकार आमका खूब विकास एवनु पांवचाक जातले म्हूण हे ट्रस्टाचे वाटेन आज तंजावूर ग्रामांतुले जनांक विश्वास जाला। मस्त अधिकार्यानि तांगेले प्रवर्तन रीतिक प्रशंसा केल्या'।

वेंकटेशमामान उतलेंच सांगुन राबोंवचाक, परगांव थाकुन आयलेले मंजुनाथान जाप दिली । 'थंगा मूळ लागुन आयलेले आमगेले संस्थेचे एक विभाग हांगा तुमगेले गांवांत स्थापित करुक आमी आठेयताय। ते बगेक तुंचे मात्रीन अस्सिले नाम्नेचे आनि जाणकार जनानी मुकार एंवका। आमगेले प्रवर्तनाचे पासून उणे दिवसा तंजावूर राबुन वेंकटेशमामान अभ्यास केल्या। तांगेले इच्छा प्रकार आज आमी हांगा पांवलांय'।

"आज भितर आमी हे गावांत काळेले श्रमाचे वाटेन कांय गुण गांवचे जनांक सरकाराचे लागि थाकुन मेळोना। ते बगेक हे तराची संस्थो प्रवर्तन करचे चांग असतले.' हांव म्हळें ।

'हे विषयाचे पासून चर्चा करुक आनि एक निर्णय काडूक आज सांजे आमी गोडागूळि वस्तेवाले बंगलावांत मेळ्ताय, तुमी एंवका" वेंकटेशमामान माजे लागि सांगले।

'हांव एवनु पांवता, हांगाचे एकेक सान सान सभेचे अधिकारियांकय हांतु भाग घेंवचाक अपोंवचे चांग असतलें' हांव मागेलो एक अभिप्राय सांगिलो।

'जावो, तसीच करु' म्हूण सांगुन वेंकटेसमामूय लागि आयलेले मंजुनाथ आनि सचितानन्दुय नमस्कारु सांगुन भायर देवले।

माका भो खोश जालो ताणी हांगा एवनु उल्लोवनु वचाक । "आमगेले पूर्विकाले सुकृतान जावयात तांका हे गावांत एंवचाक देवान दिसयलेले," हांव मनां आठेयलें ।

थोडो समय जावनु बाजारांतु थाकुनु मागेलि बायल परतून पावलि। देंनपारा घरकडे एवनु गेलेले सोंयरांचे पासुन तिजेलागि हांवे सांगलें ।

# 3
# आमि सग एक

घराचे गेट कोणकी काडचो शब्दु आयकुन हांव फिदरांत गेल्लो। आयतार जावनु सकाळीं देरलांत कोणकी पावल्यां। साधारण सुट्टी दिवसा खंचेय देवळांतुले उत्सवाचे बगेक दुडॅ दान निमगून जनानि एवप आसा। दंदाक वचे लोकाक रजा दिवसा नवे उल्लो करनु दाम काणगेंवचाक जातलें।

हांव बागिल वागते करनु भायर चोयलो। आठेयले मात्रिन दुडॅ निमगून एंवचि कोण नय म्हूण दिसता। एक दादलोय बायलय संत चमकून एत्ताय। कोण म्हुण दूरा थाकून चोवनु मनां वचना। तीं प्रथम जावनु हांगा एंवचि म्हूण खंडित। गेटांत थाकुन तांगेले चमकण देखलार, कांय परिचय नातिले कडे चडचे लेकान दिसता।

घरा गेटाचे लागि पांवचाक, तो मनीश माका चोवनु एक हासिलो, पर्तून हांवय हासूनूच तांका भित्तर एंवचाक सांगले।

दादलो सगळे हाथाचो खमीस आनि चांग वर्णाचे एक पांन्टय, ताका माच जांवचे बूटय घालनु घरां भित्तर चळ्ळो। तागेलि बायल पट्ट्या कापड नेसून कळसांगुलीच आसा। तीणे गोंवटेक एक भांगराचे नेकळस घल्यां। तीं इतेंय विशेष कायराक जावनु आयिलि म्हुण माका दिसले। हांव मागेल बायल रम्याक मुकार आपेयलि।

‘आमि तिरुवल्ला थाकुन एत्ताय। माका वळकतवे?’ ते दादलान माजेलागि निमगीले।

हें आयकून रम्या मागेल तोंडार चोयलि। तिगेलो गांवूय

तिरुवल्लाचि। म्हळ्यार तांका कांय परिचय ना म्हुण तिगेले तोन्ड आनि मतें हलोवनु तीणें माका दाकेयले।

हांव आलोचन केल्ली? तागेल तोंडार सुष्मतेन चोयलो। तागेल तोन्ड पळोवनु खंयकी देखिल मात्रिन दिसता। म्हळ्यार कोण म्हुण कांय उडगास एना।

हांव कांय उत्तर दीवना देकुन, ते मनशान माजे लागि जाप दिल्लि। 'हांव कुरियाकोस। आमि पंचवे क्लासांतु थाकुन शालेंत एकसानि शिकील्लि। हांव तुगेले मात्यार स्लेटिचो पेटु मारनु, तुगेले मात्याक कोंकि एवनु रगत बोंबाळ जालोलो उडगास आसवे तुका? तेदूस माका शिकोवप्यान दोन दिवस क्लासाचे भायर राबेयलोलो।'

'ओ .... हो.... कुरियाकोसवे तुं? आतां माका मनां जालें। तुगेले तोंन्डच परतलमु सायबा? तेदूस तूं सुकून आसिलो। आतां कषंडि एवनु कान्नडेक दवर्चाक तुगेले तेदुसचे रुपच परतलें', हांव सांगले।

'जावो, तिरुवल्ला थाकून हांगा एंवचाक इत्ते विशेष'?

'हां, आमि आयलेलि कायरीं सांगलेनामु। मागेलो पूत अजिताक व्हारडिक। तुंगेलेच गांवचि चेल्ली। व्हारडिक हांगाच दवरनु।'

कुरियाकोसान उतलेंच सांगुन तागेले हाथांत आसिले बागांत थाकून व्हारडिकेक आपोंवचे पत्र माजे लागि दिले।

'तुमि सग हाजर जांवका देकुन व्हारडिक आयतारा चोवनु दवरल्या। तें देकुन दफतरांत दंद आनि रज मेळना म्हुण सांगुन व्हारडिकेक भागघेवनातिले राबुना नवें? तुमि कुटुम्ब समेत एंवका' कुरियाकोस उतलेंच सांगुन उटांवचे फुडे मागेल बायलेन एक

आयदनांत चाय तांका दिंवचाक हाळी।

‘अजित एक पुत नंतना तुका.....’ हांव कुरियाकोसाले लागि निमगुचे फुडे तागेलि उत्तरा आयलि, ‘माका मालघडि दोग चेल्लियो। निम्मि आनि रोसि। दोगांकय व्हारडिक करनु दिल्ली। निम्मि दूबाय नर्स काम मेळनु, थांगांच राबता। रोसि कंप्यूटर इंजिनियर अमेरिकांत वचुन थांगाच सिटिसनषिप काळें। तिगेलो बमूण थांगाच माडिसनांत राबता।’

चाय पीवनु, उल्लोवनु जालेल उपरांते, कुरियाकोस आनि बायल यात्रा सांगुन देवलीं। देंवचे फुडे व्हारडिकेक एंवका म्हूण एक लागेन ताणे उडगास केल्लो। ताणि चमकून गेटाचे भायर पांवचे भित्तर आमि देरलांत राबून चोयलीं। उपरांते, भायर पळेले वाहनार चणु तीं गेल्लीं।

ताणि दिलेले व्हारडिकेचे आमंत्रण पत्र वागतें करनु हांव चोयलो। व्हारडिक लागीचे आयतारा लूर्द फोराना चर्चात दवरून। ते जावनु जेवण, ताजे लागी आसिले पारिष हाळांत। ‘कैन्डलि अवोयड प्रसंट्स’ पत्रारि खल्लाक सान करनु बरेयलेल देखुन माका आश्वास जालो। नय जालार, व्हारडिके वेळार व्हरेत-व्हकलेक हाथांत दवरुक इत्तेंच काणगेंवचाक सान्तांत वचूका। नंतना ताजि पटळि तो समय पर्यंत हाथांत धरनु बैसुचे एक कठिन कामच।

हांव आज भित्तर एक चर्चात गेल्लोना। देवळाचे मात्र सहवास जावनु जीयु जालेले माका, थांगा वचे आवश्य आयलेना आसिले। आतां कुरियाकोसान हांगा एवनु तागेले पुत्ताले व्हारडिकेक उलदिले लेकान काणु, खंडित भाग घेंवका म्हुण दिसता।

म्हळयार किस्तांव जनाले व्हारडिकेचे जेवणाक मांवसाचि रांवदयो तयार करनु वाडतलि म्हूण हांव आयकिले आसा। सगटांकय

वैन पीवेंयतलीं म्हुणूय सांगुन आयकिल्यां। हें आलोचन करनु माका व्हारडिकेक कशी भागघेवचांक म्हुण चिंतन करका जाले।

हांव मागेले क्रिस्तांव संगाति लागी कायरी सांगून तांगेलो अभिप्राय समजून घेतलो।

एकलान माजे लागि सांगले :

'तुं कांय भिंवका नाका। फुडे कालाचे मात्रिन न्हय आतां। व्हारडिकेक आयलेल जनाले तान चोवनु, वगळो भाग करनु वाडचि चालि आसा। ते संदर्भार आयलेलांक मानप करनु, तांगेल हित प्रकार बेसोवनु भोजन करूक मांडप वगळेंच आता करताय। मागिर वैन सगटानीय पीवंका म्हुण ना। तें नाका जालेलांक निम्बया उदाक दित्तल्लीं।' माका तागेली उत्तरां आयकून आश्वास जालो।

तशी तो आयतारु पावलो। कुरियकोसाले चेरक्याले व्हारडिकेक प्रथम जावनु एक चर्चांत हांव पावल दवरचो दिवस।

लूर्द फोराना चर्च हांव राबचे स्थलार थाकून चार मैल दूरा। व्हारडिकेचो सुवाळो प्रारंभ जांवचे फूडे थांगा पांवका म्हुण आठोवनु, हांवय बायलय घरकडे थाकून देवलीं।

आमि बेगीन चर्चांत पावलीं म्हूण दिसता। अधिक जन तवळ थांगा पावलेनाय।

विस्तार अंगण जावनु धवी शाय काळेले एक भवन। अंगणांत थाकून चर्चांत भित्तर पांवचाक वीस बावीस मेट चणु वचूका। भवनाचे मुकार, देवळांत आसिले तराचे चांग ऊंचायेन भांगराचो ध्वज देखलो। ध्वजाचे शिखर एक खुरीश बांदिला। मेट चडचे एक देकार तेल्ला दीवो

जळोंची मल्लीं जावनु तंब्याचो खांबु। ताका पन्नेरावीस मल्लीं आसूका। ऊंचावेले मल्याचे मद्धे खुरीश। सुवाळो दिवसा ध्वजारोहण करनु, रात्रि तेल्ला खांबूय जळेयतली खंय। माका हें पळोवनु अतिशय जालो।

निमिष भित्तर अंगणांत व्हारडिकेक भागघेंवची जनं भरलीं। छठ जावनु तवळ आमगेल मुकार एक हुंडाय कार, ताजे चारीय देकान फूल मोगराचे अलंकारान एवनु राबले। व्होरेत - व्होकलेलें नांव फुल्लानच काराचे मागलांचे कन्नडेर बरोवनु शिंगारल्यां।

काराचे मुकार बेसलो मनीश बागिल वागते करनु समच माजे मुकार आयलो। कुरियाकोस पुरतेंच सूटार राबला। हांव ताका हाथ दीवनु आशंसा सांगिलि।

'भितर चणु बेसुयात' कुरियाकोसान आमचे लागी सांगले। लेखान मागलान थाकून व्हारडिकेचो व्होरेत आनि व्होकल तांगेल कुटुम्ब बांधव मेळनु मेटावेलान ऊंचार चर्चात भित्तर चणु वत्ताय देखले। ताणि सगटानीय वचुन जावनु, आमगेलो वाणो भायर दवरुन आमीय किस्तावांले पवित्र देवालयांत प्रवेश केलो।

भुंय सगलेंच मारबिल जावनु, ऊंचाई आसिले अलकृत पागार, विस्तारान निर्माण केलेल हाळ, तांतु आयलेलांक प्रार्थनेक बेसुक शालेंत आसिले तराचे रूका बांक तीन चार लैनार घल्लाय।

कोणकी आमका हाथ दाकोवनु बांकार बेसुक सांगले। मुकार उणे ऊंच जावनु येशु क्रिस्ताले होड रुप दवरल्यां। ताजे एक देकान कन्या मरियमान चेरडाक हाथांत धरनु राबले बिंब, मुकार मेणा वाति जळवनु दवर्लाय।

व्हारडिकेचो व्होरेत आनि व्होकल समच मुकार मद्धे जावनु

मुटवार बेसलांय। ताणि बेसले लागि मोगरान सिंगारलेलि होड एक दिवली तेला वाति घालनु दवरल्या। एक बायल मेणावातीन ती दिवली जळोवनु थांगाच बेसलि। तवळ एक देकान आसिले पट्या फोडदाचे मागलान थाकून चर्चांतुलो प्रीस्ट मुकार आयलो। ते समयार एक देकान वेस्टन संगीताचे लान गींत म्हणचे आयकूक एडताले।

'व्हारडिकेचो समारंभाक वेळ जाला आसतलो' हांव मनां आठेयले। गींत म्हणचे राबले। तुरन्त प्रीस्टान तागेली प्रस्तावना प्रारंभ केली। तागेल उलोवप जावनु प्रार्थना वेळार थांगा हाळांत बांकारि बेसलि जन उठावनु मुटवार खल्लाक भुंयचेर बेसुन 'आमेन आमेन' हीं उतरां म्हुणु प्रार्थना करताय देखले। उपरांते प्रीस्टान दिलेली तालि व्होरेतान व्होकलेचे गोंवटेक मांदिलि। तांका ताणे आशिर्वादूय दिल्लो।

थांगाचे कार्यक्रम जालो म्हूण दिसता। एकेकेलोय उठावनु भायर वत्ताय। लागी आसिले पारिष हाळांत भोजनाक वेळ जालो म्हूण दिसता। आमगेले आसनार थाकून आमीय उठावनु भायर देवलीं।

जेवणाचे हाळांत चडूक मुकावेले एक कवाड मात्र वकतें केल्या। कवाडाचे देरलांत जन भरनु, खीटु जावनु भितर चडूक एक गोन्दोळ। आमि चमकुन थांगा पर्यंत पाविलेंय, कोणकी सग आमका मागलांचान दिंगूल्नु आमि हाळांत भित्तर पावलीं।

जेवणाक बेसुक हाळांत एकेक वाडकुलें मेज आनि ताजे सग कडेन कदल घल्यां। मेजार मद्धे रांवदयाचे आयदन म्हूण दिसता धांपुन दवर्लयां। उणेच कदल मात्र रित्ते देकल्या। म्हळ्यार थांगा बेसलार, आमका जांवका जेवण खाण वे थांगा दवर्लयां म्हूण कळुक ओमसोर जालो।

काटरिंग टिमांतुले एकलान आमका थांगाच बेसुक सांगुचाक

आश्वास जालो।

वाडूक प्रारंभ करचे फुडे, एकेकेलालय मुकार अगोति पान दवरनु एकलो गेल्लो। आठेयलेल मात्रिन वैन कांय कोण हाळेना। हूनच उकड वोरोवाचे अन्न। दाळीचे तोय। मेतियेचे सुखें। मागिर मलबारि व्हारडिकेक साधारण करची रांवदयोच जेवणाक। तीन तराचो पायसु आनि पुर्नपळी जावनु जेवण खुशाल देकुन माकाय बायलेकय भो संतोष जालो।

'भेष जाले, प्रत्येक जावनू तुमगेले भोजन', हांव चर्चांत थाकून देंवचे फूडे कुरियाकोसा लागी उलोवनु यात्रा सांगून हाथ दिलो। व्हारडिक सरल रूपार चमकील्या। तांतु भाग घेंवचाक आमका कांय गुसमुटकाय जालेना।

लुरद फोराना चर्चांत थाकून घरकडे पर्तून पांवचाक माका दिसले, "वगळेच जात जालारीय, आमि सगटय एक" म्हुण।

# 4
# मागेल मागणें

कोण आठेयलेल आसूना, छठ जावनु व्हड पावसु तेदूस पळ्ळो। पावसु पळ्ळेल उपरांते भायर देंवचाक माका अलसाय। इत्ते म्हळ्यार वाटेर सग उदक राबलेल आसतलें। थोडे देकान चिकलाचे उदकांत मडोवनु जांवका वचाक। रोटार हांग थांगा टेलिफोन संबंद व्हड फोन्ड काळेलांतु उदक भरनु, चमकून वचे जनाक तें कांय समजून नात्तिलें तांतु पाय देवनु खल्लाक पडचि वाटय आसा। जनालो जीव राकूक असले वेळार कांय तांबडे लुगट इत्तेंय थांगा एक बडियेर मांदून दवरुन जनाक आकांत उडगास करुक हे कालाक कोणाक दिसना। जनाले संरक्षणाक प्रवर्तन करचे अधिकार्यांकय हे कायरांतु चिंतन ना। मस्त जन भान्डी धांवडावनु वचे वेळार हे कारणान अपघात मरण जालेल आसा। प्रत्येक जावनु मोटर-सैकळ, स्कूटर इत्यादि उपयोग करचे जनं, हे तराचे फोन्डांतु गाडो पणु जालेले अपघात कारणान। आका लागुन आसिले प्रश्न न्याय कार्यालयातुय वचुन आजे पासून पूर्ण निर्देश आनि सुचौणी अधिकारयांक दिल्लेलेय आसा, म्हळ्यार कोण तें गंभीर जावनु लेकुन नात्तिलें वत्ताय।

'हाका इत्ते एक परिहारु' हांव मनांत विचार केलें। त्याग मनोभाव आसिले एदेच कार्यमग्न सामाजिक जनांक वेंचुन काणु एक सेवना संस्थो रुपीकरण करनु, प्रवर्तन प्रारंभु केल्यार इत्तें म्हूण माजे मनांत फूडे एक वेळार दिसलें तं। म्हळ्यार माका ताजे पासुन एक नियमावलि करनु, एदे जनांक वेंचुन काणु घठोंवचाक जालेना।

आजे फूडे मस्त वेळार हांव वचे वाटेर दुसराले मोटर अपघातान रोटार हाथ पाय मोणु, मत्तें फुटून मनीश रगतांत पळ्ळा देखिल आसा।

ते वेळार तांका प्रथम सुश्रूषा दिंवचाक जावो, एक भाण्डी उलदून ते अपघात जालेले मनशाक आसपत्रेंत व्हरूक जावो कोण मुकार एवप ना। अथवा, एकोल कोणेय मुकार एवनु ताका आसपत्रेंत व्हरुक एक भाण्डी उलदीलार, कोण तयार जावना। तांगेले भाण्डी हे बगेक दिंवचाक जनांक भय्य। इत्तेंय केस जालार मागीर ते पसावत पुलिसाचे मागलान, नंतना न्यायालयांत वचूका जात्तलवे म्हुण शंका। हे कालाक दुसराक सेवा करुक मन आसिले जन उणे आसा जालारीय, ताणी आतं मुकार एवनु असले अपघात वेळार सहाय करचे उणे।

'दुसराक उपकारु करुक वचून ताजे मागलान भोवनु गेल्यार घरकडची कायरीं कोण चोयतलीं?' हे मनां दवरुन कोण सेवनाचे वाटेर एवचि ना। ना जाल्यार सरकारान हे बगेक प्रत्येक जावनु, मुकार सरलेल जनांक कसोल प्रयास एवनात्तिले मात्रीन एक नियम करचे आनि हे बगेक देवलेले जनाले सेवन लेकान काणु तांका कसलोय आंगीकारु, बहुमान आनि फायदो मेळचे लेकान विचार करचे एक काल एत्तलो ।

हें सग मनांत आलोचन करनु, पावसु पणु वाटेर चिकोल जावनु आनि भायर वचुकावे म्हूण सांगुन हांव घरकडे बेसले वेळार, भित्तर कूडांत टेलिफोन बेल आयकीले । फोन बायलेन काळेल आसूका। केदनाय फोन आयलार, तीणेच प्रथम उल्लवप। फोन चडय तिकाच एवप। तीणे दंद करचे कडेचि, वनिता विभागांतुलि, सोयरी जन, हीं सग तिका लगलगून उल्लो दीवप आसा। माका मोबैल फोन आसा देकुन, मागेल इष्टजन सगटय ताजेरि मात्र उलदीतलीं।

'एंचय तुमका तं फोन' उतलेंच सांगून बायलेन फोन माजे हाथांत दिल्ले। हे कालाक सगटालेय घरकडे कोडलस फोन नवें। बेसले कडे थाकून उठावनु नात्तिलेंच, सुखान एकडे दिगायेन पोणु जालारीय उल्लोवयात नवें तांतुल्यान।

‘नमस्कार, श्रीनिवासु तं, एक हांगा भित्तर आयलार उपकार आसतलो,’ पोणसा परमांतु राबुचो श्रीनिवास पैमाम माका होगि एंवचाक सांगल्यां।

श्रीनिवासाले सज़ारी एक प्राय जालेल मामु फान्त्यार थाकून देहाक कांय बल नात्तिलें थकप एवनु पडला म्हूण आयकीलेलें। ताका आतां चड जालेल आसूका।

श्रीनिवासाक कळता, माजे लागि सांगलार कायरीं स्पष्ट जावनु चमकतलीं म्हूण। गांवात वळकूचे बांधवांक कसलेय अपधाताचे वेळार आमि दोगय एकसानी वचप। आमगेल देहान आमचान जांवचे करनु दिंवचाक दोगांकय व्हड कायरीं।

एकलाक देवान दिलेले आरोग्य आनि सेवन करचे चांग मनं, दुसराक उपकाराक पडता जालार, तेंच जीवितांतुले तागेले सुकृत।

वेळ काणु नात्तिले हांव घरकडे थाकून भायर देवलो, समच श्रीनिवासाले परमांत।

हांव थांगा पांवचे फूडे, माका ताणे दुसरीय उलदीलो, ते प्राय जालेल माम्माक तुरंत होसपिटलात व्हरका खंय।

उपरांते सेवाभारतिले आंबुलन्स भाडयाक काणु, मागेल दुसरे मित्र मुरळी आनि गोविन्द हांकाय ताजेर चडोवनु हांव समयारीच थांगा पांवचाक श्रीनिवासाक आश्वास जालो।

“कोणांकय एक अपघाताचे वेळार, तुरंत सेवन सहायु दीवनु तगेलो जीवु वांचोवपाक आसिले चांग मनं संगटांकय देवु दिसोवों” हीच मागेल मागणें ।

# 5
# रायु भुरग्यालें मद्धें

शालेंतुली शिकवण आनि परीक्षा जावनु चेरडुवांक दोन मासाचि सुटी प्रारंभु जाली। तांगतांगेली अभिरुचि तकीत एकेकेलींय हीं सुटी समय चांग रूपार उपयोग करतलीं। थोगड़ीं फुटबोळ, बास्कट बोळ, टेन्नीस, बाटमिन्टन, क्रिकट इत्यादि खेलांत प्राक्टीस करतलीं, एदींच गावांत चलोंवचे सम्मर केम्पांतु प्रवेश जातलीं।

सगटय वर्साचे मात्रीन शेंबर प्रेमरी हैस्कूळ शिकचे चेर्डुवांक एकडे करनु, तांगेले हे दोन मासाचे सुटी वेळार, दोन-वाराचे एक केम्प तिरुवनन्तपुरमांतु घडायलां। कला-सांस्कृतीक विषयांतुले विविघ रंगान्तु हे चेर्डुवांक तान वाडोंवचाक आनी अभ्यास करोंवचे प्रधान उद्देश हाजो। केम्पाचे वेळार समूहांतु उंचार पावलेले प्रत्येक जावनु सरकारान बहुमान केलेले जनांक सोयरीं जावनु आपोवनु चेर्डुवां लागि चर्चा करप मुख्य।

एक दिवसा, तिरुवितांकूर राज कुटुम्बाचे नाथु श्री उत्राडम तिरुनाळ मार्ताडवर्मा हांका चेर्डुवालो सोयरो जावनु, तांचे लागि उलोंवचाक तीरुमान जाले।

चेर्डुवांक एक व्होड वाहनारि चडोवनु रायान राबूचे रावळरांतु व्हेलीं। रायाक देखून उलोंवचाकय तांगेले पासून विचार करुकय एक संदर्भ चेर्डुवांक मेळ्ळो। एक सान हाळांत सगठांकय बेसयलीं।

'रायु म्हळार कसी असतलो? किरीट मात्यार दवरून वे एत्तलो? लागि खंडे घेवनु राजपालक अस्तलवे? आनि राया लागि कसी वर्तमान उलोवनु प्रश्न करचे?' थंगा एकडे जालेले सग चेर्डुवांले भित्तर

हीच शंका।

नियुक्त समयार रायु पावलो। सगटय उठांवनु राबलीं। थांगा मुकार घालेले कदलार रायु बेसलो। लागिचे दोन कदलार केम्पाचे संघाटकय बेसले।

आठेयलेल मात्रिन रायान किरीट कांय दवरलेना। अंगार आभरण ना। खंडे धरनु अंगरक्षकूय लागि ना । साधारण वेषु। एक चोगो (गुडे हाथांचो) आनि दीगच चेल्लाण। चेर्डुवांक अतिशय जालो। तांगेले दोळे रायाचेरीच जाले। म्हलार, रायु हासुनूच तांगेले लगीच, मुकारीच एवनु बेसल देकुन, कसी उत्तर दिंवचे आनि प्रश्न करचे म्हुण चेर्डुवांक भय दिसले। तांतु भरसी एक चेरडाक रायाले लागी वचून तागेले हाथाक आपोडका महुण आशा जाली। रायानच तिका मुकार उल्दून तिगेली आशा सफलकेली। तिगेले नांव, खंचे क्लासांत शिकता, तिजेलागी रायानच निमगीले।

हे वेळार, थांगा मद्ये बेसले अर्जुन आनी अभिजित अलतपेलतांतु लवुच 'अरे तूं नीमगी तूं नीमगी' म्हुण पुसपुसेंवचे रायाले दृष्टींतु पळ्ळे। प्रश्नु इत्ते म्हुण रायानच तांचे लागि निमगीले। प्रश्नु करुक धैर्य काणु, अभिजितान थांगा भायर षेडांतु पळेले 'मेरसिडिस बेन्स' काराचे पासून निमगीले। आनि रायाक परुं मेळेले काळे 'फान्टम' काराचे पासुनूय। 1952 मोडल बेन्स कार खंय रायाले इष्टाचे कार, दिसपडत श्रीपत्मनाभा देवळांतु दर्शनाक हे कारार रायान सवारि करप। आज भित्तर 40 लक्षु मैल हें कार धावलेल आसा। रायाले 90 वे जन्म नक्षत्राचे दिवसा एक इष्ट भक्तान रायाक दान दिलेले कार ते काळे फान्टम। म्हळार रायान तेदूस एक दिवसा मात्र देवळांत वचाक ताजेर यात्रा करनु, कार ते भक्ताकच उपरांते वापस दिल्ले खंय। दुसरालें कांय उपयोग करचे रावळरातुली रीति नय। 1985 वर्स थाकून उत्राडम तिरुनाळान देवळांत दर्शनाक वचाक वाराक एक वेळार काडचे 1965 मोडल 'वालियंड 100

फ्लिमत' कार आसिले। कर्नाडकाचे धर्मस्थल अधिकारि वीरेन्द्र हेगडेक तीन लक्षु किलो मीटर धावलेले हे फ्लिमत कार, मंजुनाथ देवस्थानाक लागून स्थापन केलेले चरित्र म्यूसियांतु प्रदर्शनाक दवरूक दिल्ले। पूर्वीचे ब्रान्ड मोडल काराचे कूटांतु 38 वे जावनु।

तावळ भित्तर उलोंवनु नातिले बेसलीं चेर्डुवं लवूच मुकार सरनु राया लागी एकेक जाप दीवनु प्रश्नु निमगूक प्रारंभु केलें।

रायान घालेले न्हेसवणे पासून, शालेंतुल्ली रायालि शिकवण, सान आसिले वेळाचि रीति, इष्ट खेळ, आतंचे राष्ट्रीय, इत्यादिकाचे पासून मुख्य जावनु। रायान घालेले अवंगालें, चोगो आनि पान्टस 33 वर्स मुर्थमचेंत म्हुण आयकूक सगठांकय अतिशय जालो। शिकवणेक शालेंतु वचप जावो, ते कारणान खेळूक इष्ट कोण मेळूक जावो रायाक जालेना। बदलाक 14 शिकोवपी रावळरांतु एत्तालीं। सान असतना रायाक घोड्या फाटिर सवारि करचे इष्ट आसिलो खेळू।

राष्ट्रीयांत पाय दवरूक आज भित्तर रायान आलोचन केलेना। ते कारणान कोणाचेर विरोध पांवका जावना नवें म्हुण विश्वास।

एक लक्षु कोटि मूल्य भांगरा भांडार आस्ती आसिले श्री पत्मनाभा देवस्थान सुरक्षित जावनु राकुन पत्मनाभालो एक सेवक जावनु राज कुटुम्बार जीवन करनु 90 वर्स पूर्ति जालेले रायाक आज देश भर प्रशंसा आनि आदर मेळयां।

राज कोटारांतु एवनु रायाक देकूनु, तांगेली सरळ रुपाचि उत्तरां आयकून वापस घरकडे पावनु तांगतांगेले म्हलगड्यां लागि उल्लोंवचाक चेर्डुवांक खूब खबर ते दिवसा आसिलें।

# 6
# भांगराचि चेली

भायर चांग चांदिणे। विजया अंगणांत देवनु बेसलि। पुनवे लगिचो दिवस म्हुण दिसता केळकान सगळो चन्द्रेमु उदेवनु उंचार मळबार पावलो। दूर खंयकी गुरबजि रुका खंध्यार बेसुन रडचे आयकूक पडता। देरलांत वोयलेल गुर्भा फूल, मोगोरें आनि सूर्यकांति फुल्लाचो परमळ एत्ता। वारे मारतच खंयकि थाकुन फुल्लेल संदणा रुकाचो परमळूय नांकांत वत्ता।

घरां भित्तरचे दंद सग करनु कुण्बीणि सरसु आत्तं देवलि मात्र। उणे समय ती माका कुट हांगा बेसल्लि। मागिर हांवेंच तिगेल चेर्डुवालें कायरिं आठोव्नु तिका घरकडे वचाक सांगले।

विजयाले बमणाक हांगा सान्तांत लुगटा ब्यारु। थरवाडारि थाकुन ताका मेळेलि एकी एक अस्ति। गावांत शेंडि श्रीनिवासाक वळक नातिलीं कोण आसुना। फुडे काल थाकून गावांत कसलेय विशेषाक लागुन, चेर्डुवांक आनि मलगड्यांक न्हेसवणेक लुगट काडूक शेंडि श्रीनिवासमम्माले अंगडींतु जनं एत्तालिं। लुगटाचेर मोल उणे कोर्नु दिंवचे नंतना, थांगा थाकुन काणघेंवचे सरॅक बरें आनि विश्वासाचे नंतना अंगडींतुले बिक्रि जनाले संसर्ग सदा वरिष्ट दिसतालें आयलेल जनांक। तसि सर्वदा चांग ब्यारु जत्तालो फुडे थाकुन। दीपावलि आघोषाक लागून सर्व समुदायांतुले गरीब जनांक वस्त्र इत्यादि दान दिंवचे एक सतकर्म सग वर्ष तागेले अंगडि वाटेन मेळचे आदायांत थाकुन करतालो श्रीनिवासमाम।

शेंडि श्रीनिवासाक दोग जाण पूत । म्हलगडो विजयालो बामुण दिवाकर आनि दूसरो पूतु दयानंद। दोगय अंगडींतुले ब्यारांतु बप्पाक

सर्व सहाय करतालीं। दोनि पुत्तांलींय व्हर्डिक जावनु तीं वगळेंच राबतालीं। एक दिवसा दुसरो पूतु दयानंदान थरवाडाचो तागेलो वांटो निम्गीलो। उपरांते तो ब्याराचेर थाकुन दूर सरलो। तसि ब्याराचेर बप्पाक दिवाकर मात्र जालो सहायु कोरुक। बप्पाले मरणानंतर ब्यारु चोवनु काडची जवाबदारि काम विजयाले बमुणाचे मात्यार जाली।

दिवाकरालो एकलो पूत अरविंद। तो सिकवणेक दष्टीक आसिलो। ताका सिकवण जावनु, तागेले मात्र प्रयत्नान करतना एल.ऐ.सी. कार्यालयांत प्रोबेषनरि ओफीसर जाव्नु काम मेळें। ताका गावांतुच दंद मेळचाक दिवाकराक व्होडु आश्वास जालो। तागेल ब्यारांत ताका सहाय करूक पुत्तूय आसतोल न्हवें म्हुण ताणे आठेयलें। म्हळ्यार अरविंद केदनाय सकाळीं घरकडे थाकुन दंदाक गेल्यार, वापस घर पांवचाक सांज जावनु काळूक जातालो। कार्यालयांत ताका खूब गौरव विषयांत नित्य चर्चा करप, ताका लागुन कारभार चलवपाक इतर कर्मचारियां लागि मेळप सग आसिलें। हें नंतना चर्चा केलेल विषयाचे पासुन उंचार अधिकारियांक कळोंचे कामय तागेलेंच।

थांगा दंदाकडचे इतर कर्मचारि चडय ओफीस समयार यूणियन प्रवर्तनाक तांगेलो चड समय उपयोग करतालिं। भायर थाकुन कोण गिराय्क तांगेले अपघात क्लेमाचे पासून निमगूक आयलार, कर्मचारि कोण तांगेले आसनार देखूक ना आसतलिं। हे गौरव विषयांतु परिहार सोद्धून काडूक अरविंधाक अधिकार्यानि हें जवाबदारि काम दीवनु ते शाखेंतु नियमित केल्लोलो।

अरविन्दान नम्र श्रमाचे वाटेन, ते संबध थांगाचे सग कार्यालय कामदार वर्गाक एकडे कोर्नु चर्चा केली। सगठांनीय ताणे संगिले निर्णय घेवनु करार जाले। करार प्रकार सगठांकय तांका मेळचे मानधन चडोव्नु दिल्लें। उपरांते कामदार कार्यालयांत सदा समय उपविष्ट जावनु तांगेल दंद चूकि नात्तिलें उत्साहान करताय जाले।

अरविंदाक आश्वास जालो। ताका आतां समयार घरकडे दंद जावनु परतून पावयात। मात्र न्हय, बप्पाले ब्यारांतु ताका सहायूय कोरुक वेळु मेळ्ळो।

तसि दीस मास धावले। गावांत थाकुन अरविंदाक मस्त आलोचन एत्ताय। तागेल अम्मा बप्पान ताणे होगि व्हार्डीक करनु एक कुडुम्ब जावनु राबचे कायरांतु ताका समजायलें।

अरविंदान तांगेले इष्ट प्रकार मुकार सरूक होय म्हळें। गरीब कुटुम्बाचि, सिकवण जालेलि, रांदप कळचि आनि चोंवचाक चांग दिसुचि एकलेक अरविंदान आठेयलेल मात्रीन, एक भांगराचि चेली, व्हार्डिक करनु तागेले जीवितांत प्रवेश जालि।

# 7

# मान्यताचो म्हालो

आज आयतार। सुट्टि दिवसु। धंद कायं करुक ना। साधारण मन्नीन साकाळीं उठावनु दांत घसुन चाय पीवनु हांव घराचे फिदरांत बेसला।

'हिप्पी जावनु भोंवरे सदच, तुका देकिल्यार जनं आमचेर अपराधि म्हुण सांगतलि' हांव अळसायेन बेसले चोवनु बापान कोपान सांगीले। हांव केसु काडोवनु अधिक दिवस जालेना। म्हळ्यार म्हगेले केसु वाडलो देकल्यार, केळसंचाले अंगडींत वचुन खूब दिवस जाले म्हुण सांगतनी। आजि वचूं, फाय वचूं म्हुण आठोवनु सग वारांत शेनवार-आयतारा, इत्तेंय कारणान वचप बंद जाता। केळसंचा लागि वचे फूडेच बापान केदनाय सांगप आसा, 'केसु सान करनु कतरुक तलागि सांगुका म्हुण'। म्हळ्यार हांव केसु सान करुक सांगलार, केळसांचो मागीर मातें लान करनु क्रोप करतलो। हेरदूसा म्हगेले संगाति म्हाका चोवनु खेळ करनु पुरतलीं। ते भय्यान हांव तलागि केसु कडचे फूडे कांय सांगप ना।

चेरडूंव केसु वाडोवनु भोंवचे एक स्टैल आज गावांत। कूटांतुले एकलान मात्र वगळेंच जावनु राबुचि रिति न्हय आतां । एकलान खाड वाडेयलाय, तागेले संगाति सघटय तसीच। कूटांतुले कोणेय एकलान केसु काणु मोट्टे मारलार, बाकि इष्टांकय तुरंत तसीच करनु दाकोंचे। ते कायरांत तांगेली एकमेळी काळेजांत एंवचे सगटांकय दाकोवनु हुसको काडोंवचे तांगेले उमेद।

केसु वाडलान म्हाका सदच न्हाण जावनु मात्या उदक पुसूचे कठिन जावनु दिसप आसा। मात्र न्हय अंगटेन पुसून मात्या वोलसाण वचाक चड समय काडप आसिलें। हे नंतना गीमा वेळार केसु वाडलान

हूम एवनु भारकूणय लागतालि।

हांव वरं चोयलो। आठ जालेना। आतंच कापणी काडोवया म्हुण आठोवनु, बापा लागि सांगुन हांव देवलो। घरकडे थाकुन चमकुन पांवचि वाट केळ्साचाले अंगडींतु। आयतार देकुन रोडार जनं उणें। बाजार बंध जालारीय थोडे लोक अंगडीचे भायर जगलेर राबीलाय। तांगेले बिक्रि करचे साधनय हाथांत काणु, ते जनांक उल्लो दित्तायच आसा।

हांव थांगा खंय राबलोना। समच केळ्सांचाले अंगडींत चमकलो। सुट्टी देकुन आज चड जनं थांगा एंवचाक पूरो। होगि थांगा पावलार मागीर म्हाका समयार परतून घरकडे वचात नवें। हांव शंकर सलूणाचे धरवोटांत पायु दवरलो मात्र, धन्नि शंकर धारार एवनु म्हाका चोवनु हासलो।

'हां थांगाच बेस' तागेले येवकार कूडांत आसिले बांकारि हाथ दाकोवनु ताणे म्हळें।

तो तवळ भित्तरचे कूडांत एकलाक कापणी काडतालो म्हुण दिसता। तागेले हाथांत वकोर देकलो। तें पूर्ति करनु जावयात म्हाका भित्तर उलदीतलो, हें आठोवनु हांव बांकारि बेसलो। थांगा पागरार व्हड एक कन्नडि खोवल्या। एक बरि टि वीन्तु सिनेमा गीन्त दवरलाय। उंचार पंका गुंवता देकुन चांग वारें हांव बेसले कडे मेळता। कडेन एक टिपोयाचेर देखलें तेदुसचे वृत्तांत पत्र। ताजे लागीच वनिता, कुंकुमम, नाना, मंगळम, फिलिमफेयर, इत्यादि मासिक दवरल्या।

तेदुसचे खबर वाचुन चोवया म्हुण आठोवनु हांव पत्र हाथांत काळें। मुकावेले आनी भित्तरचे दूसरे पान सगळेंच कळौणी मात्र। वाचुक खबर कांय तांतु ना। लागिचे पान धारार चोयलो। फूडें दिवस, गावांत जालेले अपघाताचे रिपोर्ट आनी तातुं मरण पाविल्ले जनांले चित्र छापयलां।

'रोड सुरक्षा कायरांत गवर्मेंट मस्त उपाय हाणु कोटि रुपया एकेक वर्ष वेचु करताय जालारिय, आज भित्तर रोड अपघातानि जांवचे मरणांत उणाव कांय देखूक ना। ताजे पासुन जनांक सांगुन शिकोंवचे कर्म एक कठिन कार्यावळच', हांव आठेयलें । पत्र वाचुचे राबोवनु हांव टी.वी. चोवनु बेसलो। तवळ भायर थाकुन तगेले पूत्तांकय घेवनु एकलो थांगा पावलो।

तागेले एवप देकल्यार ताका तुरंत वापस वचूका म्हळेल मात्रीन म्हाका दिसलें। हांव थांगा बेसले ताणे देखले आसुका। जालारिय तो भित्तर कूटांत चडूक राबुन चोयता।

छट जावनु ते समयार एक बायल दोन सान चेली चेरडूवांक हाथाक धरनु थांगा पावली। कूळिंग ग्लास दवरुन चांग रंगाचे चूरिदार नेसीले तिगेले चेरडूंव गोरीच, केसु वाडून बोम्मे समान दिसता। समच भित्तर वचाक तीवय श्रमु काडतालि। आकस्मिक जावनु भित्तर कूडांत थाकून धन्नी शंकराली जाप आयकीलि, 'दया करनु तुम्हि भायर वेय्ट करका, थांगा बेसले एकलाक लागेन सोणु जावनु, तुमगेलो वेळ जात्तय हांव उल्लो दीन।'

तवळ पर्यंत हांका दोगांकय देखून हुसको आयिले म्हाका तागेलीं उत्तर आयकुन खुसि जालि। म्हाका आश्वास जालो।

वाकोर काणु काम करचो जालारीय, अंग्रेज़ीन दरवोट्या उंचार शंकरान व्हड अक्षरान बरोवनु दवरलेल म्हगेले दोळयांत पळ्ळें। "First come, first serve basis". आयलेल मनिशान हें देखिलना की, देखुन घेवनु ताणिं ते बरपाक मान्यता दिलीना? हे प्रशनाक उत्तर ना।

शंकराक तागेल कामाचे मानधन दीवनु, हांव सलूनांत थाकुन देवलो। तवळ म्हाका दिसलें, तो एक मान्यताचो म्हालो म्हुण।

# 8
# मागेल मोगाचो प्लुटो

पावसा काल प्रारंभु जालो म्हुण दिसता। तेक्का दिकान पावसा मोड दवरुन एता। सकाळिं वोत एवनु चांग उजवाड जालोलो। धरार मोड एवनु काळुक जालो। जोड वारें मारता। परमांतुले रुक रुकावळ हालुन शोर जाता। घरा भित्तर दर्वोटांचे आनी जनेरलांचे कवाड वारयान मारचो शब्दुय आयकुक पडता। सकाळिं धुवप जावनु सुकुक घालेलें आवगालें मागेले बायल काणु घरांत व्हरता। पावसांत तिमल्यार मागीर सुकुन मेळुक प्रयास नवें।

आमगेले शेजारि वेणसिमामु केरिंतुल्यान भायर रोडार देवलोलो पर्तुन होगि एत्ता। सातुलि काडुक विसरलोल खंय। सुट्टि देकुन केरिंतु ते वेळार क्रिकट खेळतानि चेरडुंवं खेळ बंध करनु वापस तांगेले घरकडे वत्ताय। पावसु कारण खेळप बंध जालेलांत तांकां प्रयास जालो। तवळ भितर रांवदयकाय साधन बिक्रि करनु केरिंतु तागेलि बांडि काणु राबिलो मोढवोल रंगा धरार ब्यारु थांबप करनु परतलो।

'अरे नारायणा, प्लुटो खंत्तय आसा म्हुण चोयरे,' मागेले घरकार्नि पुतालागि सांगता हांव आयकिलें। अमगेले कुटांतुले एक अंग तं सुणे प्लुटो। सान थाकुन ते पेट्टाक आमी काणु वाडेयलोलो। आतां ताका सात वर्ष जालि। परमांत ताका सोळ्यार मागीर, तागेले भोंकप आयकिलार कोणेय घराचे गेट वगतें करनु भित्तर एवप ना। 'अळसेश्यन' वर्गु देकुन, कोणेय ताका चोयलारिय लागि एंवचाक भित्तनि। म्हळयार तो प्लूटो एक शान्त, चंदायेचो आनी आमगेलो मोगाचो। नविं जनं आयलार तो भोंकुन, तांगेले पांवप आमका कळवप नंतना, आज भितर प्लुटोन कोणाक घासु मारनु द्रोह दिलोना। प्रत्येक

जावनु कोंकणी भास उलोंवनु एंवचे जना लागि ताका चांग प्रिय। तांणि आयलार तो तागेले बाल हालोवनु तांचे लागी दोसति दाकेयतालो।

नारायणाक आज बारा वर्ष जालि। तो ते सुण्याक पळौंनु वाडलो। ताका प्लुटो महळ्यार प्राण। इत्तेंय खांवचे फुडे नारायणान पयलेंच सुण्याक दीवनु नातिले खावप ना। घरकडे नारायण खंत्तय बेसलारिय प्लुटो थंगाच ताका चोवनु तागेले पयांकडे हुंगुन इत्तेंय गोश्ठि करनु पडतलो।

पावसु आरंभलो। ताजे फुडेंच नारायण फ्लुटोकय घेवनु मुकावेले कवडा लागि पावलो। ताका कुडांत मांदुन घाल्लो। हांव लागी वचुन तागेले मातें परसुन ताजे लागि इष्ट दाकेयले। तो उडकि मारनु म्हगेले भुजार हुंगुन, तागेले दोन पांयानि चणु राबलो। सुणयाले दोन पांयुय हांव म्हगेले हातांत धरनु ताजे लागी व्हड किडकाय केलि।

'इत्तरे इत्तरे प्लुटो, तुका इत्तें जालेरें?' हांव उलोंचाक जावनातिल्ले ते प्राण्या लागि जाप दिलि। थोडो दिवस जालें आसुका हांव प्लुटो लागी चड राबुन खेळनु। कारण दोन सप्ताह फुडें म्हाका बढति जावनु बांकाचे सिंगपुर शाखेंतु डेपुटेषनार नियमित करनु कागत मेळें। थांगा पांच वर्ष कुटुंब सहित राबुन काम करुक घराचे अलोटमेंटय जालें। ताजे उपरांते, केदनाय बांकांत थाकुन सांजवेळार परतुन घरकडे आयलारिय, मस्त कार्यालय दंद पुर्ति करका। दुसरें, गांव सोणु वचे विषयांत, खुब तयारि करुक हांव धांवनु भोंवतालो। हे सग कारणान हांव प्लुटो लागि राबप नातिल्लयान इत्तेंकि ताका मनांत शंका जाता म्हुण म्हाका दिसलें। तो माजे लागी थाकुन हाथ काणु दुर वचना जालो। 'नारायणा, प्लुटोक देनपाराचे जेवणाक हाणु दी रे' म्हुण सांगुन हांव लवुच तागेले मन खाण खंवचांत परतिले आनी ताका सोणु हांव धरार भित्तर गेल्लो।

सिंगपुराक प्लुटोक व्हरचे असाध्य। तें देकुन पांच वर्ष तागेले आश्रयस्थान, ताका कांय उणाव एवनतिले पळोंचे एकलाक सोदुन काळो। म्हगेलेच बांकांत काम करचे गीताले सजार दोस्त गंगाधर। ताका अळसेस्यन सुण्यांक वडोंचि एक होबि। तागेले घरकडे दोनी पेट्टे आतंच आसा। हांवे गंगाधराक तागेले घरकडे वचुन देखलो। प्लुटो पासुन, ताका आज भित्तर आमी वाडोवनु हाळेलि रितीय हांवे गगाधराक समजायली। प्लुटोक वडोंचाक तो तयार म्हुण सांगले। उपरांते एक दिवस घरकडे एवनु पावन म्हुण उत्तर दिलेले।

सकाळिंचो पावस राबुन भायर वोत आयले। घराचे गेट उकतें करनु कोणकि एत्ता। प्लुटोले संरक्षक गंगाधर पावलो। माका आश्वास जालो।

गंगाधर समच सुण्या लागी सरलो। तागेले मातें, आंग सग परसुन गंगाधरान प्लुटोक लागी काणु दोस्ति काळि। तागेले गोंवटेक घालेलि संकाळ धरनु हांव गंगाधराले हातांत दिल्ली। तो ताकाय घेवनु गेटा लागी पावलो।

हें देकुन नारायण रडकुळो जालो। ताका प्लुटोक सोडुक मनं ना। एक वेळार म्हाकाय गेलेल सात वर्ष जावनु आमगेले कुटांत मोगान वाडोवनु हाळेले, प्लुटोक सोणु राबुक दुःख दिसलें। गंगाधर गेटाचे भायर देवलो। तवळ भित्तर सबाव राबिले प्लुटोन एक भोंकि आमका चोवनु मारलि। आज भित्तर आमी आयकुन नातिल्ली भोंकि। ति अमचे लागी यात्रा सांगुचे मात्रिन म्हाका दिसली।

तवळ नारायण खोणसो काणु रडचे हांव आयकीलें। हांव नेणतनाचि ते समय म्हागेले दोळे भरले आनि दोन थेंबो उदक तोंडार देवलें। प्लुटोलि भोंकि राबलि, बदलाक ते प्राण्याले दोळेय भरलेले आमी देखलें।

# 9
# अपूर्व प्रतिष्टा

साधारण मत्रीन सांजवेलार हांव घरकडे दीवो लावनु नमस्कार घालनु देवदर्शनाक भायर देवलो।

श्री पत्मनाभा देवळांत मागेल घरकडे थाकुन चमकुन पांवचि वाट। सग दिवसा दुसरे मंदीरांत वचे फूडे थांगाच प्रथम जावनु हांव दर्शन करचे। ताका मस्त कारण आसा।

अनंतशयनारि पळेले श्रीपत्मनाभाले शिलाविग्रह देवळांतुले मुख्य दर्शन। तेल्ला दीव्याचो उजवाड मात्र जावनु मुकावेले मंडपांत राबुन पूर्ण रुपार समच गर्भग्रहांतुले विग्रहाचि दृष्टि मेळनु आराधन करयात।

गर्भग्रहांत ब्रह्म, विष्णु, महेश्वर नंतना कोटि-कोटि देवांक आठोवनु, 43 देवगणाचि प्रतिष्टा केलेलि आसा। उंचार दोन देकान जावनु सूर्या आनि चन्द्रु। ताजे लागि अश्वनि देव, सास दोळयाचो देवेन्द्रु, दोनीय देकान द्वारपालक, लष्मीदेवि, भूमिदेवि, महादेवाले प्रतिदान चन्द्रकल, उज्जे दावे देकान नारदु तंपुरिमुनि आनि सनक सनादि मुनि, सप्तऋषि, शंखु-चक्र-गदा-पत्म-विल्ल-वाळ-परिच-बाणु इत्यादि अस्टायुध, पत्थंजलि स्वामि, दावे देकान देवाकर महर्षि, उज्जे देकान कौंटल्य महर्षि, कीरा चोंची तोंन्ड जावनु शुकमहर्षि, हीं देवगण समेत मंगळार्ती वेळार खांबु आरति दाकोंव्चे उजवाडांत भक्तजनांक आज हैं देवदर्शन चड वर्णन करुक जांवचे न्हय।

गेले थोडे वर्ष जावनु हे देवळांत असिले, गर्भग्रहाचे चारीय

देकावेले कूडांत भुयचे खल्लाक मोलादिक भांगार अनि रतनांचे अमूल्य भांडार देखुन काळेलाचे खबर पत्र मासिकेचे वाटेन गांवगांवांतु कळ्यां। पुरातन काल थाकुन, संगुक गेल्यार ए.डि. 1729-1758 वर्ष, तिरुवितांकूर रायु अनिऴम तिरुनाल मार्ताण्ड वर्मा हांगेले राजभरण प्रारंभु थाकुन, 1991 वर्ष चित्तिर तिरुनाळ बालराम वर्माले काल भित्तर, एकेक वर्षाचे विविध आघोषाक लागुन, प्रत्येक जावनु राजकुटुम्बावेले एकेकेलालेय जन्म नक्षत्राचे दिवसा, देवाले नड्यार समर्पण केलेलीं भांगाराचे आनि रतनांचि आभरण आज एक अमूल्य निधि वाटेन देखून धरल्यां। हांतु भांगार मात्र जावनु 4500 किलो म्हुण लेकिल्यां। हे नंतना बांगराचे, रतनाचे, वज्राचे, रुप्याचे, पितलीचे इत्यादि अलंकार सामग्रि। पूर्वकालाक थाकुन पत्मनाभाले शिला विग्रहार घालूक काडचि 18 हत्तीचि जावनु भांगरा पोवळ्या माळा, 15 किलो भारु जावनु भांगरा दिवलियो, भांगरा कुम्भ, भांगरा ताट, गुर्भाउदकाची भांगरा आयदन, भांगरा शंखु, भांगरा घांट, भांगरा सात्तूलि, भांगरा किरीट, नेकलेस, पादूकँ, हसतीक घालचिं शंकाळ, निवेदु समर्पुक काडचि 18.5 किलो भारु अस्सिली भांगरा उर्वळी, नंतना सान साकांतु भरनु मांदून दवरलेले भांगराचे पूर्व कालाचे दुडु। हे सर्व साधनाचे पासुन, हें खंचे कूडांत दवरलेल आसा म्हुण व्यक्त जावनु 'मातिलकम रिकार्ड' लिखितांतु बरैलेल आसा। ऐकेकाचेय मोलय बरोवनु दवरल्यां। आज लोकांतुले खंचेय दिकान आसिल्या देवालयाचे पसि चड आस्ति भांगराचि, हे देवळांतु म्हळेले कायरांतु कोणाक शंक ना। भारतांतु 32000 कोटि भांगराचि आस्ति जावनु मुकार तिरुपति बालाजि देवळ म्हुण विश्वास आतां परतला। हांगाचे भांगरा मूल्य एक लक्षु कोटि रुपयाचे जावनु अनुमान केल्यां। ह्ये सग देवळाची परंपरा आंगवण गोपनीय जावनु रायाले कारभारी वाटेन सुरक्षित जावनु राकिल्यां। कोणाक हे पुरातन मोलादिकाचे पासुन चड कळनय आसिलें। म्हल्यार देवळाचे पासुन मस्त प्रस्तावना पत्र मासिकेचेर नंतना अन्य देशाचे सि.एन.एन., बि.बि.सि, द टैम्स, संडे टैम्स, न्युयोर्क टैम्स, वाषिंगटन पोस्ट, द

गारडियन, खलीज टैम्स इत्यादि बादमी वाटेन आयलेल उपरांते सुरक्षित न्हय म्हुण अधिकार्यांक दिसल्यां। हे लेकान काणु आज देवळांत दिकदेकार भायर-भित्तर सग मुल्यांतु, रात-दिवस सुरक्षेचे बगेक एस.ए.पि, रापिड आकषन फोर्स, कमान्डो हांतुले पुलीस गार्डांक राखणो जावनु नियमित केल्याय।

हें सग मनांतु दवरनु, हांव तेदुस गर्भग्रहाचे भायर मंटपांत राबून प्रार्थन करतालो। जपु म्हणतालो। लागि मागेल घरकार्नीय आसिली। तेदूस दूर गावांतु थाकुन आयिले एक भक्त व्यक्तीन माजे मुकार एवनु एक प्रश्नु केलो। देवळाचे पासुन हांगाचे मोलादिक भांगार आनि रतनाचे पासुन पत्र मासिके वाटेन मनांत केलेल नंतना, तीन दरवोटांतुल्यान देकुक पडचे अनंतशयनारि पळेले पत्मनाभाले शिला विग्रह भरनु कनकाभरणाचो अलंकारु जावनु आसिले दर्शन म्हणु ताणे आयकीलेलें, म्हळ्यार सदांच देकुक पडचें आभरण कांय ते दिवसा ना आसिले। ताका कारण इत्तें ? तागेले प्रश्नाक जाप दीवया म्हुण हांव आठेयलें।

'पूर्व कालाक प्रतिष्टा जालेले हांगाचे विग्रहारि मस्त कारणानि सोदुन दृष्टि पळेले अंतर सम करचे पुनरुधारण प्रवर्तन ते वेळार देवळांतुले गर्भग्रहांत चमकतालें। स्पष्ट जावनु सांगलार, अनंताले पत्तियेरि आनि विग्रहाचे पय्यांकडे देकीलि सान फूटी सारके करचे काम प्रारंभु जालेल समय आसिलो तो,' हांव ताका जाप दिली। मलबारीन 'कडुशर्करयोगम' म्हणचे, 101 तराचे गंवचे वकदं एकडे करनु तय्यार केलेल कूठ प्रकार अपूर्व शिल्प विध्यानि आसिलि प्रतिष्टा हांगाचि। नेपाळांत गंडकी नदियेचे पोन्दाक थाकुन मेळेले बारा सासु साळग्राम, हस्ती फाटिर दवरुन ते कालाक हांगा पावोवनु, अनंतपत्मनाभालि प्रतिष्टा केलेलि जावनु चरित्र। हे विग्रहारि जलाभिषेक करप ना। फुल्लाचि पूजा मात्र। विग्रहावेले निरमाल्य काणु भटमाम मोरापाकान साप करतोलो।

मनशाले देहांत भित्तरचे भाव आनि इतर अंग विधिप्रकार, शास्त्र प्रकार विग्रहाचेर आवाहन करचे निर्माण रीति म्हुण सांगुयात 'कडुशर्करयोगम'। हे बगेक दूर गावांतुले, तंजावूर इत्यादि पुण्य गावांत थाकुन रेंव आनि तीर्थजल देवळांत हाणु, तांतु तेल, तूप, म्होव, वोंवे, गोवु, सूंटि, मिर्याकोणु, कर्पूर, कुंकुम, गांध, गोपिचंदन, इत्यादि 45 वस्तु नंतना, कूटाक रंग मेळूक शंखाचि पुड्डि आनि कलकंड भरसीतनी। भांगार आनि रुपेंय हांतु समावेस करप आसा। विग्रहावेले सग आभरण प्रत्येक जावनु मेकोळ्नु दवरुन पुनरुधारण प्रवर्तन प्रारंभु केलेलो समय हो, हांव ते भक्त मन्शालागि सांगिले। तवळ आनि केदाण की आभरण परतुन देवाले विग्रहार घालतलि, ते भक्त मन्साक हांव आनिकय जाप दींवका जालि।

दंद पूर्ति जावनु, मेकळेले आभरण एकेक दिवसा देवाले आंगार घालतलीं । प्रथम जावनु अनंताले भांगरा-रुप्या कवच, श्रीपत्मनाभाले मात्यार भांगरा किरीड, कन्नावेली रतनाचि वेडियो, गोवटेचि रतनाचि माळा, हाथाक-बोटारि भांगरा कंकण आनि वज्रा मुद्धियो, कुरटार थाकुन खल्लाक भांगरा काश, इत्यादि।

उतलेंच मागेल वर्तमान आयकून तो मनीश अजाप जालो, भक्तीन तागेले दोळ्यांत उदक भरलें। मागेल पायाक अपोणु नमस्कारु घालुक ताणे प्रारंभु करचे फूडे हांवे तागेले हाथाक धरनु उठकरायलो आनि ताका यात्रा संगीलि।

'आज लोकांत भरनु ख्याति पाविले श्री पत्मनाभा देवळांत दर्शनाक अयलेल भक्त जनांक ही अपूर्व प्रतिष्टे मुकार थाकुन, तो नडो सोणु वचाक मन दिसुना', परतुन घरकडे पांवचाक माका दिसलें। ती एक अपूर्व प्रतिष्टाचि।

## पी. गोपिनाथ कामत हांचें पयलें पुस्तक



### काण्यो, धरा धराच्यो
(कोंकणी सान काण्यो)

2008 वर्सा कोच्चींत भरलेल्या अखिल भारतीय कोंकणी परिशद 26-वे अधिवेशनांत, धा काण्यो एकडे करन केरळ कोंकणी अकादमीन हो कथासंग्रह प्रकाशन केल्ला. हे पुस्तकाक प्रसिद्द कोंकणी बरौपी श्री. शरतचंद्र शेणै हांणि प्रस्तावना बरैला. तांतु सांगिल्यांः "सान सान काण्यो ह्यो आमच्यो, तुमच्यो, आनि आमी वळखुच्यांच्यो. हांच्या चांगपणांत, वायटपणांत, मनस्तापांत सर्व प्रतिबिंबित जांवचेय हे आमीच सगळे! हांची सुखां, दुःखां, आशा, निराशा, विचार, प्रतिकरणां सर्व आमचींच लागेन...... समाजसेवेंत निस्वार्थ रुपान कार्यरत आसिल्ले श्री कामत हांणी आपण्याली लिखणीय तेच वरी समुचित रुपान उपयुक्त केल्या. जंय काण्यो सरताय, थंय चिंतनां उदेताय!"

श्री. एस. चित्तरंजन नायक हांणी रचिल्लें रंगीन मुखचित्र.

पान 80. मोल 60 रुपया.

# पी.गोपिनाथ कामत हांचे दुसरे पुस्तक




## सप्त सरणी
## (कोंकणी सान काण्यो)

2010 वर्स सांखळी, गोंय हांगा अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचे 27-वे अधिवेशनांत हे पुस्तका प्रकाशन जाल्या । केरल कोंकणी अकादमी वाटेन उजवाडाक हाळेले हे पुस्तकांत, 2009 वर्साची पंडरिनाथ भुवनेद्र पुरस्कार फाव जालेलि काणि 'कोणाले सुकृत' एकडे करनु सात काणियो आसा । प्रसिद्ध कोंकणी बरौपी श्री गोकुलदास प्रभु हाणि प्रस्तावना बरेयला । तांतु सांगिल्या, गोपिनाथ कामत हांच्या कथानि केरळच्या कोंकणी समाजांतल्या मनशांचे वास्तविक पडबिंब दिसता, मनशांचे जिवितांचे सोंपेपण, भिजुडपण, सामाजिक आनि सांस्कृतिक चेपण, मूल्यां आनि देव-धर्माची निश्ठा, हस्को आनि समाधान, हें सगळें प्रत्यक्ष आनि अप्रत्यक्ष रुपान कामत हांच्या कथानि पळोवंक येता । ही कथा यात्रां इतली जितीं आसात, तीं म्हज्या घरा भोंवतणी हांवे पळयल्ली अशें म्हज्यान सांगुमेळता।"

श्री एस.चित्तरंजन नायक हाणी मुखचित्र आनि एकेक काणियांत चित्र निरुपण केल्यां ।

पान : 64 मोल : 55 रुपया



Shri.P. Gopinatha Kamath, son of late Shri.R. Padmanabha Kamath and late Smt. Kalavathi Bai, was born at Cochin. He is presently settled in Thiruavnanthapuram. He was working as Administrative Officer in LPSC-ISRO and retired from service in May 2007. He has been writing short stories in Konkani for many years. His short stories have been published in the monthly magazine Konkan Janatha since 1973. They have also found place in Konkani Kathashtak (1978) and Kanyan Ghos (1979) brought out by Konkan Janatha Publications. His short story won the first prize in the competition held at the Akhila Kerala Konkani Kala Sahithya Sammelan in 1979. His articles have also appeared in various periodicals/souvenirs.

Shri Gopinantha Kamath is recipient of the Pandarinath Bhuvanendra Puraskar 2009 of the Kerala Konkani Academy for his best prose work in Konkani. He was honoured with 'Vaishnava Rathne' Puraskar for his Konkani short story, in connection with 15th Anniversary Celebrations of the monthly magazine published from Kochi, in December 2015. He is the author of 'Kanyo, gara garachyo' and 'Saptha Sarani' both collections of short stories published by Kerala Konkani Academy and released during the All India Konkani Parshad held at Kochi (2008) and Goa (2010). His short stories appear in 'Spandan' Konkani monthly published from Kochi and 'Saraswath Vani' published from Calicut.

Shri Gopinath Kamath secured All rounds winner Award (under senior citizen group) of the Kashi Math Prashnothari (Online All India Quiz) launched by GSB Samaj, Goregaon, Mumbai to commemorate the Prathama Punya Thithi Aradhana Mahotsava of Srimad Sudhindra Thirtha Swamiji, at Haridwar in January 2017.

He is one of the founder members of the Kerala Konkani Academy. With his active participation in socio-cultural activities organized by various institutions in Thiruvananthapuram, Shri Kamath has always been in the forefront for any work which has promoted the Konkani literature, and subsequently its culture.



**Kerala Konkani Academy Publication**